'जो पंचतंत्र वाचता तो
संवसारांत केन्नाच हार खायना !'

# इश्टागत

पंचतंत्रांतलें एक तंत्र
(संक्षिप्त)



## इश्टागत

पंचतंत्रांतलें

मार्ग दाखोवपी एक तंत्र.

## मार्ग अभियान

कामत बिल्डिंग

हॉटेल पंचशीलामुखार

मडगांव - गोंय

403 601

## मुद्रण

इंप्रेशनस्, बेळगांव.

मोल : रु. २०/-

दोस्त आसले कि अवघड कामूय जावन वता.
देखून जण अेकल्यान आपल्या सारके दोस्त मेळोवचे.

दक्षिणेक महीलारोप्य नांवाचें एक राज्य आशिल्लें. अमरशक्ती नांवाचो राजा थंय राज्य करतालो. तो मोटो कर्तृत्वी तसोच दानी आशिल्लो. ताचेकडेन खूप दौलत आशिल्ली. गणटी करूंक कठीण इतलीं ताचेकडेन रत्नां आनी माणकां आशिल्लीं.

अमरशक्तीक तीग पूत आशिल्ले. तांचीं नांवां बहुशक्ती, उग्रशक्ती आनी अनंतशक्ती. ते तवनास,तशे विद्वाटेय आशिल्ले. परिणामी, राजा सुखी नाशिल्लो.

अेक दीस राजान आपल्या मंत्र्यांची बसका घेतली आनी बसकेंत राजपुत्रांविशीं हुसको परगटायलो. 'येदें मोटें राज्य आसुनूय म्हाका सूख ना. म्हजे तिगूय पूत कित्याक अुपकारनात. चलो भुरगो जालो ना, वा जावन भायर पडलो जाल्यार दुःख जाता, पुण तें कांय काळा पुरतेंच. पुण पिसो भुरगो जल्मवेर दुःख दिता. जी दुदूय दिना आनी पाडकोय दिना ती गाय कित्याक पोसची? अेके वटेन चलो भुरगो जावन मेल्लो बरो, पुण लोकांत लजेक घालता तसलो जावंक फावना. देखून, तुमी

कितेंय करात पुण ह्या राजपुत्रांक शाणे करात...'

अमरशक्तीच्या राज्यांत जायते विद्वान आशिल्ले. पुण राजपुत्रांक वेव्हार शिकोवंक अेकल्याच्यानूय जालें ना. अखेर सुमती नांवाच्या मंत्र्यान राजाक सुचयलें, पंडित विष्णुशर्मा हांची भुरग्यांक शिकोवंक नेमणूक करची.

पंडित विष्णुशर्माक आपोवन हाडून भोवमानान बसोवन राजान मागलें – 'आचार्य, कशेय भाशेन म्हज्या भुरग्यांक राज्यवेव्हारांत गिन्यानी करात. हांव तुमकां शंबर गांवां अिनाम दितलों.'

विष्णुशर्मा हांसलो. ताणे म्हळें – 'राजा, हांव विद्या विकीना. म्हाका इनामाची आस्त ना. म्हाका अैश्यावें चलता. म्हाका कसलीच वान्सा अुरूंक ना. दुडवांचीय म्हाका गरज ना. पुण म्हाका तुवें मुजरत भोवमानात आपयलो म्हणून तुज्या भुरग्यांक हांव घेवन बसतलों.आयच्यान स म्हयन्यांत राजपुत्रांक वेव्हारचतूर केले नात जाल्यार कानाचो कुडको काडून अुडयतलों.'

आपल्या पुतांक मोटे अुमेदीन त्या पंडितासुवादीन करून राजा हुसक्यामेकळो जालो.

पंडित विष्णुशर्मान राजपुत्रांक वेव्हारीक शाणपणान भरिल्ल्यो कितल्योश्योच काणयो सांगल्यो. ह्या काणयांच्या घोंसाक पंचतंत्र अशें नांव आसा.

पांच खिस्तींनी ह्यो कथा वांटल्यात देखून तांकां 'पंचतंत्र' हें नांव पडलां. ह्यो काणयो आयकून स म्हयन्यांत तिगूय राजपुत्र राज्यकारभारांत चतूर जाले.

त्या काळासावन ह्या देख आनी नीत शिकोवपी पंचतंत्राचो भुरग्यांच्या शिक्षणांत आसपाव करूंक लागले. पंचतंत्रांतल्या पांच तंत्राचीं नांवां- मित्रभेद, मित्रप्राप्ती (अिश्टागत), काकोलुकीय, लब्धप्रणाष आनी अपरिक्षितकारक.

जो 'पंचतंत्र' वाचता ताका संवसारांत केन्नाच हार खावची लागना.



## 1

कावळो, हुंदीर, कासव आनी मेरू हांचे हात पावनाशिल्ले. पुण बुदवंतकाय आनी आपलेपण हांच्या नाझ्यार तांणी तड गांठली.

त्या राज्याचे शिमेर सांवरीचो एक व्हड रूख आशिल्लो. ह्या रुखाचेर तरेवार शेवर्णी घोंटिर बांदून रावतार्ली.

रूख कसो अुपकारी आसता पळयात ! ताचो दर एक वांटो दुसऱ्याक अुपकारा पडटा. खांद्यांर सुकर्णी रावतात; मुळसांत आनी कांडांत जीव रावतात; फुलांतले म्हौंव मुसांक मेळटा!

हे सांवरीर ल्हानपाखो नांवाचो अेक कावळो रावतालो. अेक दीस खावड सोदूंक सदांभशेन गांवांकडेन वतना, हातांत जाळें घेतिल्लो, यमदूत कसो अेक मनीस ताका दिसलो. ताका पळयलेबराबर कावळ्याक शिट्ट जालें. ताणे म्हळें – 'हो काळ आमचे सांवरीकडेनूच वतासो दिसता. आतां सांवरीर रावतल्या सुकण्यांचो वेळ सोंपलो काय किर्ते? कांयच समजना!'

अशे चितूंन तो तसोच परतलो आनी सांवरीकडेन येवन सगळ्या सुकण्यांक ताणे सांगलें – 'बाबांनो, हातांत जाळें

आनी तांदूळ घेवन हो पारधी हांगाच येता. ताका पातयेवं नाकात. तो जाळें पातळायतलो आनी तांदूळ शिंपडटलो. पुण ते तांदूळ न्हयत, वीख मानात !'

कावळो अशें सांगतनाच तो पारधी सांवरीकडेन पावलो आनी जाळें पातळावन नि ताचेर तांदूळ शिंपडावन पयस लिपून रावलो. कावळ्यान दिल्ले शिटकावणेक लागून ते तांदूळ म्हळ्यार वीख लेखून सुकणीं कशींच खाला देंवलीं नात.

त्याच वेळार चित्रग्रीव नांवाचो कवड्यांचो अेक राजा आपल्या फाटराखण्यांसयत अन्न सोदूंक ते वाटेन वतालो. पयसुल्यान तांणी ते तांदूळ पळयले. आनी कावळो शिटकायता आसतनाय अधाश्यांवरी तांणी त्या तांदळांर घालून घेतलें. बाकी तांचो तरी कितें गुन्याव? दैव फिल्लें कि अशेंच जाता! नाल्यार दुसऱ्याचे बायलेक व्हरप हें पातक म्हणपाचें रावणाक खबर नाशिल्लें व्हय? युधिष्ठीर जुगाराचे वायट परिणाम नकळ आशिल्लो म्हणटा? पुण संकश्ट लागीं पावलें कि बुद्द सतरवितर जाता ! दैव अनुकूळ नासत जाल्यार जाणट्यांचीय मत फिरता.

कवडे जाळ्यांत सांपडिल्ले पळयले बराबर पारधी खोशयेन फुल्लो आनी हातांतली बडी मुखार काडून फुडें सल्लो.

वांगड्यांसयत आपूण जाळ्यांत सांपडलां हें पळोवन चित्रग्रीवान तेन्ना हेरां कवड्यांक म्हळें – 'आरे, भियेवं नाकात. संकश्टांत जांची बुद्द थीर उरता तेच तांतूतल्यान तड मारतात. व्हड मनीस संकश्टांत आनी वैभवांत एकेच मतीन चलतात. सूर्य उदेता तेन्ना तो तांबडो गुंज आसता आनी अस्तमता तेन्नाय तांबडो गुंजूच आसता. देखून आमी जाळ्यासयत एकाच धपक्यांत उडून पयस वचुंया. अशें केलें जाल्यारूच आमची हांतल्यान सुटका जातली. संकश्टाचे भिरांतेन मन दोशीं जावन जर आमी एका दमांत उडपाक पावलेनात जाल्यार मात् सगलें सोंपतलें!'

अशे भशेन ते सगळे कवडे वांगडाच उडिल्ल्यान, जाळ्यासयत अंतराळांत उडले. तो पारधीय वयर पळयत तांची फाट धरून भुंयेवयल्यान धांवूंक लागलो. ताणें म्हळें – 'कितेंय जावं. हांच्यांत धोस लागली जाल्यार जाळें घेवन वचपी हे पक्षी खाला पडटले हातूंत दुबाव ना !'

आतां मुखार किर्ते जातलें ताचेविशीं बारकाय घेवंक कावळो आपलीं दिसपडटीं कामां सोडून तांचे फाटोफाट वचूंक लागलो.

कवडे नदरे पेल्यान पावले तेन्ना पारधी निर्शेलो. म्हणूंक लागलो – 'घडचें आसा तें केन्नाच चुकना. दैव वांकडें आसलें कि आशिल्ली आसपतूय सोंपता. म्हज्या बायल भुरग्यांचें पोट जाचेर चलऽ तें म्हजें जाळेंय ह्या कवड्यांच्या नादाक लागून हांवें वगडायलें.'

पारधी दिसनासो पळोवन चित्रग्रीवान आपल्या फाटराखण्यांक सांगलें – 'तो पारधी गेलोसो दिसता. आतां ह्या नगराचे अुत्तरेक आमी सस्ततायेन देंवुया. थंय हिरण्यक नांवाचो एक हुंदीर म्हजो अिश्ट आसा. तो हें जाळें दांतान तोडून अुडयतलो. संकश्टांत अिश्टाबगर कोण पावत ?'

चित्रग्रीवाचे सांगणेक पाळो दिवन सगळे कवडे हिरण्यकाचे बिळासरी देंवले. शेंकड्यांनी वाटो आशिल्ल्या आपल्या बिळांत हिरण्यक सुखान रावतालो. राजा आपणाल्या कोटांत सुगूर आसता.

बिळाच्या तोंडासरीं वचून चित्रग्रीवान व्हडान अुलो माल्लो – 'अिश्टा हिरण्यका, बेगीन भायर यो. हांव भयांकृत संकश्टांत सांपडलां!'

'तुमी कोण ? तुमी कित्याक आयल्यात ? तुमी कसल्या संकश्टांत सांपडल्यात ?' हुंदरान भितल्लयानूच विचाल्लें.

'आरे हांव कवड्यांचो राजा चित्रग्रीव, तुजो अिश्ट. आरे व्हड काम आसा. बेगीन भायर यो.'

तें आयकून हिरण्यकाच्या आंगार चंवर दाटलो. तो आनंदान बिळाचे भायर आयलो. आपल्या घरा अिश्ट आयले कि जण अेकल्याक खोस जाता. बरे अिश्ट आनी मनासारकी बायल ही सदां सदांच अपरुपूच दिसतात.

परिवारासयत चित्रग्रीवाक जाळ्यांत पळोवन हिरण्यकाक वायट दिसलें. ताणें विचाल्लें – 'आरे हें कितें ?'

'कितें तें तू पळयताच . जेन्ना, जशें, जे भशेन. जें बरें वा वायट कर्म केल्लें आसता, तेन्ना, तशें, ते भाशेन,ते खातीर आनी तें दैवगतीन प्राप्त जाता. अधाशीपणाक लागून हांव ह्या

जाळांत सांपडलों. आतां बेगोबेग आमची ह्या जाळ्यांतल्यान सुटका कर.'

'शेंकड्यांनी मैलांवयली खावड तुमकां दिसता पुण म्हऱ्यांतलें जाळें दिसना !' हुंदरान म्हळें. 'चंद्र, सूर्य हांकां जाता ती राहू केतूची बादा; सोरोप, हती, पक्षी हांकां धरतात ते पांदरे; आनी विव्दानांचें दळिद्र पळयतकूच दैवूच बळिश्ट अशें दिसता. अंतराळांत भोंवडी मारपी सुकणीं आनी थाव नाशिल्ल्या दर्यांत रावपी नुसतें हींवूय जाळ्यांत सांपडटात. काळाचो संकश्टरुपी हात पयशिल्ल्यान लेगीत खंयूय पावता.'

अशें म्हणून हिरण्यकान चित्रग्रीवाचे पास तोडूंक सुरवात केली. अितल्यांत चित्रग्रीवान म्हळें – 'अिश्टा, अशें नाका. आदीं म्हज्या फाटराखण्यांक मेकळे कर. मागीर म्हाका !'

'आरे, तशें न्हय तें ! आदीं मुखेली आनी मागीर फाटराखणे! आदीं राजा, मागीर प्रजा !'

'चे चे... अिश्टा, अशें म्हणूं नाका! हे बावडे सगळे घरां सोडून म्हज्या आलाशिऱ्यान रावतात. हांचो मानमरातब दवरना जाल्यार कशें जातलें? जो राजा सेवकांक अदीक मान दिता

ताचेकडेन दौलत नासली तरी सेवक आनंदान रावतात आनी ताका सोडून वचनात. ते भायर, म्हजे पास सोडून घडये तुजे दांत दुखतीत. वा घडये तो दुस्ट पारधी हांगा येत. बरे सेवक संकश्टांत आसतना जो राजा सुखांत रावता तो नरकांत वता.'

'आरे, हांवूय राजधर्म जाणां,' हिरण्यकान खोशी जावन म्हळें. 'हावें तुजी परिक्षा घेतली. हांव सगळ्यांचींच बांदपां तोडटां. तूं अशे तरेन चलता, देखून तुजो परिवार वाडटलो. जो राजा संकश्टांतूय आपल्या सेवकांबरोबर रावता ताचो केन्नाच खेव जायना. अुरफाटी, दिर्शी मार्शी अुदर्गत जाता.'

अशें म्हणून हिरण्यकान दांतांनी सगळ्यांचीं बांदपां तोडून अुडयलीं आनी सांगलें – 'अिश्टांनो, तुमच्या घरा वचूंक तुमी आतां मेकळे जाल्यात. परत केन्नाय संकश्टांत सांपडल्यार मुजरत येयात.'

चित्रग्रीवूय वांगड्यांसयत आपल्या घराकडेन गेलो. दोस्त आसले कि अवघड कामूय जावन वता. देखून जण अेकल्यान आपल्या सारके दोस्त मेळोवचे.

## 2

ल्हानपाखो ही सगळी गजाल पयसुल्यान पळयतालो. अजापीत जावन तो म्हणूंक लागलो –

आसा खरी ह्या हिरण्यकाक बुद्द आनी बळ. जाळ्यांत सांपडिल्ल्या शेवण्यांक सुटूंक खऱ्यानीच हो अुपाय बेस बरो म्हणूंक जाय. हांव कावळो जाल्ल्यान कोणाक पातयेना. तरी लेगीत ह्या हिरण्यकावांगडा अिश्टागत जोडची अशें म्हाका दिसूंक लागलां. कितलोय परिपूर्ण आसलो तरी शाण्यान अिश्ट मेळोवचेच. दर्या अितलो तुडुंब आसता, तरी भरती येवपाखातीर ताका चंद्रीम अुदेवपाची वाट देखची पडटाच !

अशे चिंतून कावळो झाडावयल्यान खाला देंवलो आनी बिळाच्या तोंडाकडेन वचून ताणे हुंदराक अुलो माल्लो –

'यो, हिरण्यका, भायर यो.'

हीं अुतरां आयकून हुंदीर येवजूंक पडलो. अेकादुकलो धाकटुलो कवडुलो अजुनूय जाळ्यांत घुसपून बी अुरूंक ना मू? तोच बी म्हाका अुलो मारता काय?

ताणे मोट्यान विचाल्लें –'आरे, तूं कोण ?'

'हांव ल्हानपाखो कावळो...'

हें आयकून हुंदीर बिळांत आनीक भितर गेलो आनी थंयच्यान ताणे सांगलें- 'सायबा, तूं हांगाच्यान अुपकार करून झूर पळोवया...'

कावळ्यान म्हळें- 'हांव तुजेकडेन एका म्हत्वाच्या कामाखातीर आयलां. हांव सांगतां तें आयक तरी...'

'आरे, पूण तुजें म्हजें कशेंच जमचें ना...' हुंदरान सांगलें.

'पुण आतांच तुवें चित्रग्रीवाक जाळ्यांतल्यान सोडयलो तें हांवें पळयलां. हाका लागून तुजो म्हाका मोग जाला. म्हजेरूय एकादुकलें अशें संकश्ट आयलें, जाल्यार तुजेसरीं येतकीर म्हजी सुटका जातली.'

'आरे तूं म्हाका भकपी. तुजी म्हजी अिश्टागत कशी जातली? तूं वच... वांकडें आसतना अिश्टागत कसली ? आपणाले जातीचे आनी आपणासारकेच अिश्ट करचे. जाचे अिश्ट जाचे परस अुणाक वा वरते आसतात तांचें संवसारांत हांशें जाता. देखून तूं चल...'

'हिरण्यका, हांव तुज्या बिळाच्या तोंडार बसलां. म्हजे वांगडा तुवें दोस्ती केली ना जाल्यार हांगा बसून हांव प्राण सोडटलों!'

'आरे, पुण हांव दुस्मानाकडेन दोस्ती कशी करूं? संबंद दाट आसले तरी लेगीन दुस्मानावांगडा दोस्ती करची न्हय. उदक कितलेंय तापलें तरी तें उज्याक पालयतलेंच!'

हाचेर कावळ्यान म्हळें – 'आरे, आमची नदरा–नदरूच जावंक ना, म्हणटकीर दुस्मानकाय खंयची? तूं हें पिश्याभशेन कितें उलयता?'

हुंदरान हाचेर सांगलें – 'वैर दोन भाशेचें आसता. एक सभावीक वैर आनी दुसरें खाशेल्या कारणाक लागून जाल्लें वैर. आमचें वैर सभावीक. दुसरें वैर मूळ हुमटून उडयलें कि सोंपता. पुण सभावीक वैर मेलेउप्रांतूच सोंपता. सोरोप-मुंगूस, उदक-उजो, देव-दैत्य, शाणो-पिसो, सवती-सवती, दुबळो-गिरेस्त हांच्यातल्या कोणेंच कोणाक मारिल्लें नासता, पुण मरसर ते एकामेकाचें तोंड पळयनात.'

कावळ्यान म्हळें – 'हें तूं कित्याकितेंय सांगता. अिश्टागत वा दुस्मानकाय हीं कोणाय निमित्ताक लागून जातात. देखून शाणे मनीस अिश्टागत करतात. आनी म्हणुनूच तूं अिश्टागत करचेखातीर म्हजे वांगडा राव.'

'पुण हांव तुजे वांगडा कसो रावूं ? वैर आसून जो इश्टागतीचें चिंतता तो मरणाकूच आपोवणें धाडटा. गूण आसात म्हणून वैर जावचेंना अशेंय म्हणूं नज. व्याकरणकार पाणिनीक शिंवान माल्लो. मिमांसाकार जैमिनी मुनीक हतयान माल्लो. आनी छंद शास्त्राचो दर्या अशा पिंगलाक मानग्यान ओडून व्हेलो. अशें जंय आसा थंय आमच्या सारकिल्या अन्नाडी प्राण्यांची कोण धडगत ?'

'जायत जायत. पुण हांव सांगतां तेंय आयक. मोनजातीची अिश्टागत आपसुकूच जाता. मनशां भितर दोस्ती मात अुपकारांक लागुनूच जाता. मूर्ख भयान वा आशेन अिश्टागत करतात. पुण सज्जनांची अिश्टागत पयले भेटेंतूच जाता. सज्जनांकडेन जोडिल्ली इश्टागत अुशिकांड्यांभशेन मुळाकडेन

वचत तितली गोड. सकाळच्या पारार सावळी व्हड आसता आनी फुडें ल्हान जायत वता तशी गत दुर्जनांचे इश्टागतीची. पुण बऱ्या मनशांची दोस्ती सांजेचे सावळे भशेन आदीं ल्हान आनी मागीर व्हड व्हड जायत वता. म्हजें मतींत घात ना. हाचे खेरीज हांव तुका म्हजें उतर दितां...'

'तुज्या उतराची म्हाका गरज ना. पनेळाक पडिल्लो बोंतो केदोय ल्हान आसूं, ताका लागून पनेळ बुडटलोच. तेच भाशेन दुस्मानान केदेय ल्हान वाटेन भितर रीग मेळयलो तरी तो सांवार करतलोच, देखून कोणाकूच पातयेवंक जायना.'

हें अुलोवप आयकून कावळो ओग्गी पडलो. मनांत ताणे म्हळें – 'नीतशास्त्रांत हिरण्यक बरोच बुदवंत आसा. हाचे वांगडा अिश्टागत करुंकूच जाय.' ताणें मागीर व्हडान म्हळें – 'हिरण्यका, सात पावलां वांगडा चल्ले कि अिश्टागत जाता म्हणटात. देखून आमी आतां अिश्ट जाल्यातूच. आयक. जे मेरेन तुका खरेपण दिसना ते मेरेन तूं बिळांत बसुनूच म्हजे वांगडा दोस्ती दवर आनी बरीं वायट सुभाषितां म्हाका सांग.'

तें आयकून हुंदरानूय चितलें, कावळो खरें अुलोवपी आनी शाणोसो दिसता. हाचेवांगडा मैत्री करची. बिळांत हाका पांय घालूंक दिलो ना कि जालें. कित्याक तर पोरणो दुस्मान आर्दी ल्हवुल्हवू फुडें सरता आनी अुप्रांत अेकदम घुरी घालता.

कावळ्यान हुंदराची अट मानून घेतली आनी ते दोगूय अेकमेकांक गजाली सांगीत सुखान दीस सारूंक लागले. गांवांत जें मांस आनी गोडशें मेळटालें, तांतलो कांय वाटो कावळो हुंदराखातीर हाडूंक लागलो. तेच भाशेन हुंदीरूय तांदूळ बी जें खाशेलें कितें मेळटा तें कावळ्याखातीर रातचें राखून दवरूंक लागलो आनी तो येतकीर ताका दिवंक लागलो. दोगूय जाण बराबर वागताले. अिश्टाक दिवप आनी अिश्टाकडल्यान घेवप, अिश्टाक गुपितां सांगप आनी विचारप, अिश्टाक जेवणाक आपोवप आनी तागेर जेवंक वचप, अशीं प्रितीचीं स लक्षणां सांगल्यांत. अुपकाराबगर मोग अुरना. देवलेगीत नवस आंगवण केलेबगर पावनात. कितेंय मेळटासर मोग अुरता. दूद सोंपलें कि पाडूक गायक सोडून वता. बुद्द नाशिल्ले मोनजातीकूय हें

कळटा. धनी पेंड दिता, म्हुण रेडूक मुखार आसुनूय म्हस धनयाक दूद दिता.

अशे तरेन कावळो आनी हुंदीर हांची अिश्टागत, नाखूट आनी मांस अितली एकजीव जाली. हुंदराक अितलो भावार्थ जालो कि तो कावळ्याच्या पांखांर बसून ताचेवांगडा गजाली खबरो करूंक लागलो.

## 3

अेक दीस ल्हानपाखो भरिल्लया दोळ्यांनी हिरण्यकासरीं गेलो आनी दाटिल्लया गळ्यान ताणे म्हळें- 'हिरण्यका,म्हाका ह्या गांवाची आतां अुबगण येवपाक लागल्या. हांव दुसरेकडेन वचपाचें चिंततां'.

'अुबगण येवंक कितें जालें? ' हुंदरान विचाल्लें.

'अिश्टा,' कावळ्यान सांगलें- 'पावस नाशिल्ल्यान ह्या गांवांत मारेकार दीस आयल्यात. मनशांच अुपास काडपाक लागल्यांत थंय काकोळ कोण दितलो? हाचे भायर बुभुक्षित लोकांनी सुकण्यांक धरपाखातीर घरा-घरांतल्यान पांदरे लायल्यात. हांव

लेगीत एका पांदऱ्यांत सांपडिल्लों पुण जिवीत बाकी आशिल्ल्यान वाटावलों. हेंच म्हज्या वितरागांचें कारण. आतां म्हाका परदेसांत वचचें पडटलें म्हणून म्हज्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.'

'म्हणटकीर तूं आतां खंय चल्लो?'

'दक्षिणेकडल्या एका अटंग्या रानांत एक व्हड तळें आसा. मंथरक नांवाचो कासव म्हजो पोरणो अिश्ट, थंय रावता. ताची म्हजी अिश्टागत आमचे दोस्ती परस दाट आसा. ताचे वांगडा गजाली करीत हांव सुखान दीस सारतलों. हांगा पक्ष्यांचो सांवार जाता तो म्हज्यान पळोवं नज. दुकळ, देसाचे कुडके आनी कुळक्षय जांकां पळोवचे पडनात ते धन्य. बळिश्टाक कितें जड? अुद्देग धंदो करतल्याक कितें पयस? विद्वानाक कोण देस आटवो? आनी गोड अुलयतल्याक कोण परकी? देखुनूच राजा परस विद्वान व्हड. राजा फकत आपल्या देसांत पूज्य, पुण विद्वानाचो वचत थंय भोवमान जाता.'

'अशें जाल्यार हांवूय तुजे वांगडा येतां.' हुंदरान म्हळें-

'म्हाकाय हांगा खूब दगदग जाल्ले आसात....'

'तुजे कसले दगदग तें सांग पळोवया....' कावळ्यान हुंदराक विचाल्लें.

'ती अेक बरीच लांब काणी आसा.' हुंदरान जवाब दिलो. 'थंय वतकीर हांव तुका इतंभूत सांगीन.'

'पुण हांव मळबांतल्यान अुडून वतलों. तूं म्हजेवांगडा कसो येतलो?' कावळ्यान विचाल्लें.

'हांव वांचून अुरचो अशें तुका दिसता जाल्यार तुजे फाटीर बसोवन तूं म्हाका व्हर. ना जाल्यार म्हाका सुटका ना...' हुंदरान सांगलें.

'तशें जाल्यार हांव म्हाका भाग्यवान मानीन.' कावळो आनंदान तयार जालो. 'तुजो वांगड मेळिल्ल्यान म्हजो वेळ सुखान सरतलो. अंतराळांतल्यांन अुडून वचपाच्यो म्हाका आठ चाली खबर आसात. चल तर, अुमेदीन या.'

हें आयकून हुंदीर कावळ्याचे फाटीर बसलो. कावळोय ताका घेवन सवकासायेन त्या रानांतल्या तळ्यासरीं गेलो.

फाटीर हुंदराक घेवन कावळो तळ्याकांठार देंवता तें पळोवन हो कोणूय तरी सामान्याभायलो कावळो आसा अशें समजून मंथरक कासवान अुदकांत बुडी माल्ली. ल्हानपाख्यान त्या तळ्याचे देगेक आशिल्ल्या झाडाचे घोलीसरीं हिरण्यकाक देंवयलो आनी झाडाचे खांदयेर बसून तो कासवाक अुलो मारूंक लागलो.

'अिश्टा, मंथरका, भायर यो. हांव ल्हानपाखो, तुजो अिश्ट. तुका मेळपाची म्हाका अुमळशीक लागल्या. कापूस वा चंदन थंड म्हणटात पुण तांची शितळसाण अिश्टाचे वेंगेचे शितळसाणेच्या सोळाव्या वांट्या इतलीय नासता. अिश्ट ह्या दोन अक्षरांत कितलें म्हुण अमृत भल्लां! ताणे दगदग आनी संकश्टां ना जावन वतात!'

कासवान अुदकांतल्यान कावळ्याक नीट बरो पारखिलो आनी तो भायर आयलो. आनंदाश्रूनी ताचे दोळे भरून आयले आनी आंगार चंवर फुल्लो. ताणें म्हळें- 'अिश्टा, यो, म्हाका खेंव दी. बरेच दीस जाल्ल्यान हांव तुका वळखलोंना देखून अुदकांत भितर गेलों.'

कावळो तेन्ना खाला देंवलो आनी तांणी एकामेकांक वेंग माल्ली. कितल्याय थंड किरांव अुदकांत न्हालो तरी ताका अिश्टाचे वेंगेचे शितळसाणेची सर थोडीच येवची पडल्या! दोगांच्योय कुडी सुखान थरथल्ल्यो आनी मागीर ते एकामेकांक खुशालेच्यो गजाली विचारूंक लागले. त्या वेळार हिरण्यकूय बिळांतल्यान भायर येवन, मंथरकाक नमस्कार करून लहानपाख्यासरीं बसलो.

हुंदराक पळोवन तेन्ना कासवान विचाल्लें-'आरे, हो कोण? जो तुजी खावड, ताका तुवें फाटीर बसोवन हाडलो. हें आपशींच घडिल्लें दिसना!'

'हो हिरण्यक, म्हजो दोस्त, म्हळ्यार दुसरो प्राणूच. पावसाच्यो धारो, मळबांतलीं नकेत्रां वा वेळेवयले रेंवेचे कण मेजूंक येनात. ते भशेनूच हाचे गूण मेजूंक येवचे नात. सगळ्याचो वितराग आयिल्ल्यान तोय हांगा आयला.'

'ताच्या वितरागांचें कारण कितें ?' कासवान प्रस्न केलो.

'हावेंय ताका हो प्रस्न केल्लो. पुण ती एक लांब काणी

आशिल्ल्यान हांगा येतकूच सांगतां अशें ताणें म्हळें. हिरण्यका, तूं आमकां दोगांकूय तुज्या वितरागांचें कारण सांग.'

'सांगतां, आयकात.'



## 4

दक्षिण देसांत महिलारोप्य नांवाचें नगर आसा. ह्या नगरालागसारूच म्हादेवाचें अेक देवूळ आसा. ह्या देवळाकडेन ताम्रचूड नांवाचो अेक संन्याशी रावतालो. गांवांत भिक्षा मागून तो पोट भरी. उरिल्लें जेवणखाण भिक्षापात्रांत दवरून तें आयदन तो अूंच खुटयेक हुमकळावन दवरी आनी रातचो न्हिदी. सकाळी तें खाण ताणें वावराड्यांक दिवचें आनी तांचेकडसून सारण शिताडे मारून घेवचो.

अेक दीस म्हज्या वांगड्यांनी म्हाका सांगलें- 'म्हाराज, हुंदरांच्या भयान तो शिजयल्लें अन्न भिक्षापात्रांत दवरता आनी तें आयदन अूंच खुटयेक लायता. तुमकां जमना अशें कांयच ना. तेन्ना हांगा थंय वचून यातायात करचे बदला आमी तागेर वचून यतेश्ट खावया.'

हें मानून घेवन सगळ्या परिवारासयत हांव थंय गेलों. खुटयेवयल्या भिक्षापात्रांत हावें अुडी माल्ली आनी तांतलें वेंचिक अन्न सगळ्यांक दिलें आनी हावेंय खालें. सगळे धादोशी जातकीर हांव घरा परतलों. असो आमचो नित्त्याचो कार्यक्रम चालू जालो. तो संन्यासी आपले तांकीप्रमाण त्या अन्नाची राखण करूंक पळयतालो. पुण तो जेन्ना न्हिदी तेन्ना हांव म्हजें काम करी. अेक फावट ताणें एक कोंड्या-बडी हाडली आनी म्हज्या कांचान त्या हुमकळायिल्ल्या आयदनाचेर न्हिदला थंयच्यान तो ती मारूंक लागलो. ताच्या बचक्यांत सांपडूंक जायना म्हूण हांवूय बी अन्नाक हात लायनासतना कुशीक सल्लों. अशे तरेन राती झगडुपांत वचूंक लागल्यो.

अेक दीस बृहत्स्फीक नांवाचो अेक अिश्ट भोंवडेवयल्यान त्या संन्याशासरीं आयलो. अतिथीक फावो ते भाशेन संन्याशान ताका पावणार दिलो. रातीच्या वेळार ते दोगूय अिश्ट धर्माच्यो गजाली करीत बसले. पुण बृहत्स्फीक खबरो सांगतना ताम्रचूडाचें लक्ष दुसरेकडेन आशिल्लें. हुंदराचे पिडापिडीक लागून तांचें चित्त थाऱ्यार नासून तो आयदनाचेर बडी मारीत आशिल्लो. तें पळोवन बृहत्स्फीकाक राग आयलो आनी ताणें

म्हळें-' ताम्रचूडा, तूं कसलो अिश्ट तें म्हाका कळ्ळें. तूं म्हजेकडेन खोशयेन अुलयना. म्हाका दिसता, हावें हांगाच्यान कडसरिल्लें बरें. 'यो, बस, खूब दिसांनी पावला, आसा मू तूं बरो? भागलासो? तुका पळोवन बरें दिसलें!' अशीं प्रितीचीं अुतरां जंय मेळटात तागेर हुसक्या- मेकळें वचचें. सोयरे धायरे येतकूच ज्या घरा यजमान खाला वा दुसरेकडेन पळयतात त्या घरा वतल्यांक शिंग नाशिल्ले बैल म्हणूंक जाय. राबित्याक हो मठ मेळ्ळा देखून तुका गर्व जालो. अिश्टागत लेगीत तोडूंक तूं तयार जालो. आतां हांव हांगाच्यान चल्लों.'

ताचें हें अुलोवणें आयकून ताम्रचूडान म्हळें-'आरे,अशें अुलोवं नाका. तुजेबगर म्हाका मोगाचो आनीक कोण आसा? तुज्या अुलोवण्याकडेन म्हजें चित्त नाशिल्लें ताचें कारण सांगतां, आयक. हो नश्टो हंदीर अुंचायेर लांबयल्ल्या ह्या आयदनार अुडी मारता आनी भितर दवर्ल्लेलें सगलें खाण जेवण खाता. अन्न नाशिल्ल्यान देवळांतलें सारण शिताड्याचें काम जायना. देखून ही बडी त्या आयदनाचेर हांव मारीत आसतां. माजर

आणि माकड हांचेपरसूय अुडक्यो मारपांत हो हुंदीर पटायत दिसता.'

'ताचें बीळ खंय आसा तें जाणा व्हय तूं?' बृहतस्फिकान विचाल्लें.

'म्हाका सारकें खबर ना.' ताम्रचूडान म्हळें.

'श्रेर्त, ताचें बीळ दुडवांच्या सांट्याचेर आसूंक जाय. दुडवांचे अुबेक लागूनच हो अितलो मस्तो जाला. धनाचे अुबेन आंगाक शिरी मारता. अशें जाल्यार आनीक सांगचेली गरज ना. पुण हो हुंदीर येता पुण खंयच्यान तें तरी तूं जाणा?'

'जाणा. पुण तो एकटोच येना. वांगडा मोटो मेळ घेवन येता. आनी म्हजे हुजरा हांगा धुमशेणां कांडटा.'

'हांगा खणूंक कितें आसा तुजेकडेन ?'

'ही कुदळ आसा.'

'तशें जाल्यार तूं सकाळीं म्हजे वांगडा यो. हुंदराच्या पावलांचो माग लोकान पुसून अुडोवचे पयलीं आमी थंय या.'

तांचें अुलोवणें आयकून हांव येवजूंक पडलों. हांच्या अुलोवपाचो दुसरो अर्थ कितें? म्हजो सांटो जसो हांकां

मेळिल्ल्यांत जमा तशें म्हजें कोटूय हांकां मेळ्ळेंच म्हणूंक जाय. अेकादरी वस्त हातांत धरुनूच हुशार मनीस तिचें मेज-माप सांगता. पयलेच फावटी मनशाक पळयलेबराबर ती व्यक्ती कितें म्हणपाचें शाण्याक कळटा.

हांव भियेलों आनी कोटाचे वाटेन वचनासतना दुसरे वाटेन वांगड्यासयत वचूंक लागलों. थोडोसो मुखार पावूंक अेक गुबगुबीत माजर येता तें अकस्मात दिसलें. हुंदराचो येदो मोटो हिंड पळोवन ताणें अुडी घाली. माजराच्या चपक्यांतल्यान सुटिल्ल्या हुंदरांनी भलतेच वाटेन गेल्लेखातीर म्हजी निर्भत्सना केली आनी रगतान भूंय माखून ते पयल्याच कोटांत गेले. रानाक लागिल्ल्या अुज्यांतल्यान एखाद्र्या मेरवान जाळें तोडून आपले प्राण वाटावचे, मागीर पारध्याचे बाण चुकोवन धांवचें आनी अखेर मुखावयले बांयंत पडून मरचें हो अदृश्टाचो खेळ न्हय? हांव मात अेकलो अेकसुरोच दुसरेकडेन गेलों.

दुसऱ्या सकाळीं हुंदराच्या रगताचो माग घेत तो दुश्ट संन्याशी म्हज्या कोटामेरेन पावलो. ज्या म्हालवजाच्या सांट्यार

म्हजो राबितो आशिल्लो तो सांटो ताणे काडलो. त्या धनाचे अुबेन हांव खंयूय वतालों. ताणें ताम्रचूडाक हुशारेन म्हळें 'आतां तूं सुस्त न्हीद. हे दौलतेचे अुबेन तो हुंदीर तुका जागरण घडयतालो.' अशें म्हणून तो म्हालवज घेवन ते देवळाकडेन गेले.

हांव म्हज्या थाण्यार पावलो तेन्ना म्हजी आसपत थंय नाशिल्ली. ते भकास सुवातेकडेन पळोवचें न्हय अितले म्हाका वितराग आयले. हांव येवजूंक पडलों. कितें करचें? खंय वचचें? म्हज्या मनाक शांतताय कशी मेळटली? अशें तरेन चिंतीत सगलो दीस हांवें कश्टान घालयलो.

दीस पडटकीर पडिल्लया मनान म्हज्या वांगड्यांक घेवन हांव देवळाकडेन गेलों. आमी आयिल्ल्याची सुलूस लागनाफुडें ताम्रचूडान ती बडी हातांत घेतली. पावण्यान तेन्ना ताका विचाल्लें- 'अिश्य, अजून तुका सेंसुश्त न्हीद येना?'

'पुण तो हुंदीर आपणालें सैन्य घेवन परतो आयला, ताच्या कांचानूच तें आयदन हांव बडयेन वाजयतां.'

'आरे, भियेवपाचें मातूय कारण ना, ' पावण्यान ताम्रचूडाक सांगलें. 'पैसो सोंपिल्ल्यान त्या हुंदराची अुडी मारपाची अुमेद लेगीत संपुश्टांत आयल्या. सगळ्या जिवांची अशीच आवतिकाय जाता. अुत्साह, अुमेद, तुतनायक हें सगलें दुडवांचें बळगें.'

ताचीं हीं अुतरां आयकून तिडके भरशीं हांवें त्या आयदनाचेर नेटान अुडी माल्ली. पुण म्हजी लाग चुकली आनी हांव घो करून भूंय पडलों.

तो आवाज आयकून म्हजो दुस्मान ताम्रचूडाक सांगूंक लागलो-'आरे पळय, मौज पळय. दुडवांक लागुनूच सगळे बळिश्ट जातात आनी दुडवांक लागुनूच पंडित जातात. दुडू सोंपिल्लयान हो कालचो हुंदीरशेट आज हुंदीरमाम जालो. तूं आतां हुस्क्याविरयत न्हीद. दांत काडिल्लो सोरोप, मद सोंपिल्लो हती आनी दुडू नाशिल्लो मनीस हे फकत नगाकूच अुपकारपाचे. '

ताची हीं जाणवायेचीं अुतरां आयकून हांव चिंतूंक पडलों. हो म्हजो दुस्मान खरें अुलयता. आज म्हाका वेंतभर लेगीत अुडी

मारूंक येना. पाड पडूंम्हज्या ह्या अर्थहीण जिविताचें! दुडूनाशिल्लो मनीस फक्त नांवाचोच मनीस. ताज्या हातांतल्यान कांय जायना. सूर्याक लागून जे भाशेन सगळ्यो वस्तू अूजवाडा येतात ते भाशेन लक्षुमीक लागुनूच गुणांचें तेज पडय़. दळदिऱ्या मनशाकडेन घे म्हणून गूण आसले तरी ते दिश्टी पडनात. तांतूत दुडवापासून सूख भोगून अुप्रांत जो दुबळो जालो तो चड खन्ती. गरीब मनशाचो सगळे दुबाव खातात. गरीब मनीस दिसाअुजवाडे लेगीत कोणाक दिश्टी पडना !

अशे भशेन खन्त करीत हांव पडिल्ल्या मनांत म्हज्या कोटांत परत गेलों. बाकीचे हुंदीर थंय आपसांत अुलयताले 'आगा, आमचें पोट भरपाचीं तांक आतां ताज्यांत अुरूंक ना. आतां ताच्या फाटल्यान वचप म्हळ्यार माजराच्या चपक्यांत सांपडप. आतां ताजो वांगड नाका. जाचे पासून फायदो ना आनी जाचेलागीं संकश्टां मात आसात त्या धनयाक सोडून दिवचो.'

तांचें अुलोवणें आयकून हांव बिळांत भितर सल्लों. पुण तांच्यातलो अेकलोय म्हजेसरीं आयलोना. हावें मनांत म्हळें,

'चुट्टी लागूं ह्या दळदिराक. गरीब मनीस मेल्ले भशेनूच आसतात!' असें चिंतता आसतनाच म्हजे चाकरमाने म्हज्या दुस्मानाक मेळ्ळे आनी म्हाका कुयो घालूंक लागले! म्हाका तेन्ना अेक हिकमत येवजली. त्या बैराग्याच्या अुशाकडेन पेट आसा. तिका ल्हवुल्हवू बुराक करचो आनी तो न्हिदलो तशे आपले दुडू परते हाडचे. म्हणटकीर दुडवांच्या नेटार म्हजें धनीपण नव्यान अुबें करूंक जातलें. दळदिऱ्या मनशाचीं घरचीं लेगीत तो जितो आसुनूय मेल्लेभशेन मानतात. जाचेकडेन दुडू नात ताच्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक ताची लज दिसता. ते आपणालें नातें लिपयतात. दुडू नाशिल्लया मनशाक सारणीच्या कोयराभशेन लोक कूस मारतात. दिवंक गेलो, तरी गरीब मनीस गिरेस्ताकडेन मागुंकूच गेला, अशें समजतात. आतां गेल्ले पयशे परत मेळयतना म्हाका मरण आयलें जाल्यार चलता. बरें जातलें. कित्याक आपले दुडू दुसऱ्यान हातासुनूय जो आपलो प्राण सांबाळीत बसता, ताणें दिल्ल्या अुदकाक पितर आफडिनात.

असो निश्चेव करून रातचो तो सन्याशी न्हिदले अुप्रांत हावें

ताचे पेटेक बुराक केलो. तो अकस्मान जागो जालो आनी ताणे म्हजे तकलेर ती बडी हाणली. जिवीत बाकी आशिल्लें म्हुण हांव जिवानिशीं सुटलों.

अशे तरेन बरीच पिडापीड भोगून हांव जिवाक विटलां आनी देखून ह्या म्हज्या इश्टावांगडा तुजेसरीं आयलां.'

## 5

'इश्टा,' कासवान म्हळे – 'इश्ट आसचो जाल्यार ह्या कावळ्यासारकोच. तुमी दोगूय जाण अेकमेकांचे दुस्मान. अितलेंच न्हंय तर तो तुका खावपी. भुकेन आकूळ पिकूळ जाल्लो आसतनाय वाटेंत तुका खायनासतना फाटीर बसोवन हो हांगा घेवन आयलो. दुडू आसुनूय जाच्या मनांत वांकडो विचार येना तोच खरो अिश्ट. शाण्यान पारख करून अिश्ट जोडचे. संकश्टाच्या वेळार जो अिश्टागत सांबाळटा, तोच खरो अिश्ट. जायतेदां दुर्जनूय अिश्टाभशेन वागतात. मांस खावपी कावळ्याची म्हजेसारक्या अुदकांत रावतल्या वांगडा अिश्टागत संवसारावेगळी दिसता.

पुण म्हजो ताचेर पुराय भरवंसो. तशें पळयल्यार कोण कोणाचे सासणाचे अिश्ट नासतात वा दुस्मानूय नासतात. वेळा प्रसंगार दुस्मानूय आपणाक पावतात आनी अिश्टूय वैरी जाल्ले दिसतात.

'तें कशेंय जावं, हांव तुमकां दोगांकूय मनस्पुर्वेक येवकार दितां. आपणालेंच घर मानून ह्या तळ्याकांठार रावात. दुडू गेलो वा परदेसाक वचचें पडलें म्हणून मनस्ताप करून घेवं नाकात. कित्याक,कुपाचें सावट, दुश्टांचो मोग, शिजयल्लें अन्न, जुवानपण आनी दुडू हांचो भोग थोडेच काळ घेवपाचो आसता. देखून जे विवेकान चलतात ते जीतेंद्रीय आसतात. ते दुडवांची आस बाळगिनात. जल्मवेर जमयल्ली आनी जिवापरस अदीक जपिल्ली आसपत यमराजागेर वतना पांच पावलांय मनशावांगडा येना. दुसरें म्हळ्यार, पैसो जोडटनाय दूख आनी मोडटनाय दूख ! पाड पडूंह्या कश्ट दिवपी पैशाचें! दुडू जोडचेखातीर मनीस जितले कश्ट काडटा ताचो शंभरावो वांटो जरी मोक्ष मेळोवपाखातीर ताणे अुपकारायिल्लो जाल्यार ताका मोक्षप्राप्ती जातली आशिल्ली !'

'तुका परदेसाक वचचें पडलें म्हणून वैराग्य येवपाची गरज ना. कित्याक तर घट थारावणेच्या मनशाक आपलो देस आनी परदेस सारकोच. ज्या रानांत हतयांक मारून तांच्या रगताचेर शींव आपली तान भागयता, तेंच त्या शिंवाचें रान. बुदवंत मनीस परदेसाक गेल्लो थंय निर्शेना. तुमी बुदवंत आसात. अुमेदी, वेळच्या वेळार काम करपी, अुजू मार्गान चलपी, निर्व्यसनी, शूर आनी कृतज्ञ अिश्ट जांकां आसात, तांगेर लक्षुमी आपुण जावन रावपाक येता. हाचे भायर, पैशे मेळ्ळे, पुण कर्मांत नासले तरी ते वतातूच. गेल्ले दीस आपले म्हणपाचे ! मुखावयलो अेकूय आपणालो न्हय. ताचेर आपलो अधिकार ना. आपूण जावन दुडू आयलो, तरी दैव तो झोंपून व्हरता. दुडू जोडलो म्हणून तो भोगूंक मेळटाच अशें ना.

'तेन्ना हिरण्यका, तुजी आसपत गेल्ल्याचो खेद करूं नाका. घरांत गुपीत ठिकाणार दुडू लिपोवन दवरतकीर जर मनीस गिरेस्त जाता, जाल्यार त्या थंय आशिल्ल्या दुडवाक लागून आमकां गिरेस्त कित्याक म्हणचें न्हय ? व्हांवत्या अुदकान तळें नितळ अुरता.

तेच भाशेन दुडू मोडुनूच ताची बरी राखण जाता. म्हौंवाचे मूस म्हौंव पुंजायतात पुण ताचो लाव दुसरेच घेतात. देखून दुडू भोगूंक जाय आनी वांटूंक जाय. दुडू सोंपपाचे तीन मार्ग आसात. एक दान, दुसरो भोग आनी तिसरो नास. सांटोवन दवरुपाखातीर दुडू जोडूंक त्रास भोगप म्हणजे शितळसाणीखातीर म्हऱ्यांत अुजो बाळगप. देखून दुडवांत सूख ना. संतोसांत सुख शांती आसा. दुडवांखातीर लोक कितें करिनात ? बऱ्या मनशाच्यो ते बकच्छाथो करतात. वांकडे चालीन वतल्याची तुस्त करतात. दानासारकें पुण्य ना ; शिळासारकें भूशण ना आनी समाधानासारकी आसपत ना. देखून हिरण्यका, तूं आता धादोसकायेन हांगा राव.'

कावळ्यान हुंदराक सांगलें – 'कासवान तुका इतलें सांगलें. तू आतां जावन गेल्लें विसर. मनाक लावन घेवं नाका.

6

अशें तांचे अुलोवणें चलतालें अितल्यांत एक मेरू धांपेधांपेत त्या तळ्याकडेंन पावलो. तेन्ना कावळो झुप्प करून झाडार वचून

बसलो; हुंदीर शेजारचे झिलींत रिगलो आनी कासवान डुब्ब करून अुदकांत अुडी माल्ली.

कावळ्यान तो मेरूच म्हणपाचें खरेपण केलें आनी म्हळें- 'मंथरका, तूं भायर यो. तानेक लागून हो मेरू अुदक पियेवंक ह्या तळ्यार आयला. हो मनशाचो आवाज न्हय.

मंथरकान तेन्ना सांगलें – 'आरे, हो मेरू सामको धांपेता आनी भयभरीत नदरेन फाटल्यान पळयता. हाचेवयल्यान तो अुदक पियेवंक येवना, तर पारध्याच्या भयान आयलासो दिसता. ताजे फाटीक कोण लागला जाल्यार पळय पळोवया. भयान गुळी जाल्ल्या मनशाचो अुस्वास बेगीनबेगीन आनी एकसारको जायत आसता; ताची नदर थीर आसना; ताका सस्तताय नासता.'

'मंथरका, तुका सारकें कळ्ळें, ' मेरवान कासवाक म्हळें. 'हांव चित्रांग. पारध्याच्या बाणान घायाळ जावन मोट्या कश्टान हांव हांगा आयलां. आमच्या हिंडाक त्या पारध्यांनी आतां मेरेन मारून अुडयला आसूंक जाय. हांव तुमकां पांयां पडटां. म्हाका लिपयात.'

'चित्रांगा,' कासवान सांगलें – 'दुस्मान दिसनाफुडें सुटका करून घेवपाचे दोन मार्ग आसात. अेक पळपाचो आनी दुसरो ताचेर अुरफाटी घुरी घालपाचो. तूं पयलो मार्ग धर आनी रानांत पळून वच.'

अितल्यांत कावळो झाडावयल्यान खाला देंवलो आनी ताणे खबर दिली – 'पारधी घराकडेन परतूंक लागल्यात. तेन्ना चित्रांगा, तूं आतां हांगा सस्त राव.'

अुपरांत त्या चौगांची – कावळो, हुंदीर, कासव आनी मेरू – दाट इश्टागत जाली आनी दनपारच्या वेळार, तळ्याच्या कांठार, रुखांचे सावळेंत बसून गजाली करीत ते दीस सारूंक लागले.

जिनसांवार सुभाशितां सांगलीं, जाल्यार वांगडा बायल नासुनूय वेळ मौजेंत वता. सांगपासारकीं सुभाशितां आपणाकडेन नासलीं जाल्यार दुसऱ्याक सांगतलो पुण कितें?

अेक दीस गजालींच्या वेळार मेरू आयलोना. तेन्ना कावळो, कासव आनी हुंदीर हुसक्यांत पडले. आमचो दोस्त अजून कसो

येवंक ना ? शिंवान ताका खालो, काय पारध्याच्या जाळांत तो घुसपलो ? काय अुज्यांत पडलो ? अेके घटकेक घरा भायर गेल्ल्या मनशाविशीं लेगीत हुसको जाता ! हें रान तर अरिश्टांनी भल्लां !

कासवान कावळ्याक म्हळें – 'हुंदीर आनी हांव, आमी दोगूय जाण मन्द. तूंच मात्सो रानांत वच आनी आमचो दोस्त दिसता जाल्यार पळय. खंयूय पुण तो तुका सांपडटलो.'

कावळो भायर सल्लो. चड पयस पावलोच ना, ताका एका झाडाशेजरा मेरू एका जाळयांत सांपडलेलो दिसलो. ताचेसरीं वचून दुखेस्त नदरेन कावळ्यान म्हळें –'आरे हें कितें जालें ?'

कावळ्याक पळयनाफुडें मेरवाक हुडको आयलो. मोगाचो मनीस दिसनाफुडें ओगाक नव्यान ओतो येता. दोळ्यांत दुकां हाडून मेरवान म्हळें – 'अिश्टा, आतां मरण लागीं पावलां. तूं येवन बरें जालें. मरण तेंकिल्लें आसतना अिश्ट अुशासरीं आसले कि सांगपाचें सांगूंक मेळटा. हें पळय, अुलयतना केन्नाय ओगाभरशीं म्हजेकडल्यान चूक घडिल्ली आसल्यार म्हाका गुन्यांव भगस. कासव आनी हुंदीर हांकां म्हजो रकाद दी आनी तांकां सांग, चुकून माकून वा जाणून बुजून हांव कितेंय वांकडें अुलयल्लों

आसल्यार तें विसरात.'

'आरे, तूं भियेवं नाका,' कावळ्यान मेरवाक सांगलें ' हांव आत्तां हुंदराक घेवन येतां. सत्पुरुश संकश्टांत हातपांय सोडिनात.' मेरवाक अशें सांगून कावळो, कासव आनी हुंदीर हांचेसरीं कावळो गेलो आनी हांकां ताची खबर दिवन जाळ्याचे पास तोडपाखातीर हुंदराक फाटीर घेवन पुनाय मेरवासरीं आयलो.

हुंदराक पळयनाफुडें आतां आपूण वांचतां म्हणपाची मेरवाक आस्त दिसूंक लागली. ताणें म्हळें – 'संकश्टांतल्यान सुटका जावपाखातीर शाण्यांनी इश्ट जोडचे. जाका अिश्ट नात, ताची संकश्टांतल्यान सुटका जायना.'

हुंदराक तेन्ना मेरवाक विचाल्लें – 'आरे, तूं अितलो बुदवंत आणि शिटूक. तूं ह्या जाळ्यांत घुसपलो कसो ? '

मेरवान तेन्ना म्हळें – 'गजाली करपाचो हो वेळ न्हय. तो दुश्ट पारधी हांगा येवचे आदींच म्हज्या पांयांतले हे पास तोडून उडय...'

हुंदरान विचाल्लें –'हांव हांगा आसतना तुका पारध्याची भिरांत

दिसता? तूं अितलें नीतशास्त्र जाणा जावनूय ह्या पासांत घुसपलो कसो?'

मेरवान तेन्ना जवाब दिलो –'आरे बाबा, कर्मामुखार बुध्दीचें चलना. दैव फिर्ल्लें आनी यमाचे पास पडले कि जाण्ट्यांचीय मत घुंवता. परमेश्वरान जें कपलार बरयलां तें व्हडलो पंडित आयलो तरी ताज्यान पुसूक जावचेंना.'

अशी तांचीं अुलोवणी चलतना, अिश्ट संकश्टांत सापडला तें आयकून कश्टी जाल्लो कासव ल्हवुल्हवू थंय पावलो. तो दिसनाफुडें कावळ्यान हुंदराक म्हळें – 'हें बऱ्याचें लक्षण दिसना !'

'कितें म्हळें? तो पारधी येता काय कितें?' हुंदरान विचार्ल्लें.

'पारधी येना. कासव येता. हें बऱ्याचें चिन्न न्हय. हे घटकेक जर तो पारधी येत जाल्यार हांव मळबांत अुडून वतलों ; तूं बिळांत धांवतलो आनी हो मेरूय अुडयो मारीत नाच जातलो. पुण अुदकांत रावतल्या या कासवाचें हे भुंयेर कशें जातलें?'

अितल्यांत कासव थंय पावलो. हुंदरान ताका म्हळें- 'मंथरका,

तुवें येवंक फावनाशिल्लें. आतां तो पारधी येवचे आदीं तूं कूस मार.'

'करूं पुण कितें हांव?' कासवान म्हळें. 'अिश्ट संकश्टांत सांपडला ताचें दु:ख म्हज्यान सोंसूं नज जालें. म्हज्या काळजान थाव सोडलो देखून हांव हांगा आयलां. तुमचे सारकिल्या अिश्टांचो वियोग जावचेपरस मरण आयिल्लें बरें ! कित्याक, नव्या जल्मांत प्राण मेळटले पुण तुमचे सारकिले अिश्ट मात मेळचेनात ! '

तांचे तशें अुलोवणें चलतना पारधी येता तो तांकां दिसलो. एका खिणांत हुंदरान मेरवाचे पास तोडले आनी मेरू मागशीं पळयत नाच् जालो. कावळो झाडार वचून बसलो आनी हुंदीर लागशिल्ल्या गल्लांत रिगलो.

मेरू पळून गेलो तें पळोवन कश्टी जाल्ल्या पारध्याक लुटुलुटू वता तो कासव दिसलो. ताणें मनांत म्हळें – 'दैवान मेरू व्हेलो. पुण कासव दिलो. आतां ह्या कासवाच्या मांसाचेर घरच्यांचें पोट भरतलों.' पारध्यान कासवाक धल्लो आनी बांदलो आनी

घोणवाच्या तोंकाक हुमकळावन तो घराच्या मार्गांक लागलो.

कासवाक अशे भाशेन व्हरतना पळोवन हुंदीर सामको कळवळून गेलो. 'आरे देवा, कितें जालें हें ! अेकल्याचें दु:ख अुणें जाता जायना म्हणसर दुसरें मुखार अुबें रावलें. अेक फावट पनेळाक बोंतो पडलो कि भितर पाणी येत रावता ! पुण बऱ्या कुळांतली बायल, अिश्ट आनी धनुष्य संकश्टा वेळार सोडून वचनात. आवय, बायल वा भाव हांचेपरसूय अिश्ट बरो, कारण तो मित्राक केन्नाच अंतर दिना. दैवान म्हजी आसपत झोमून व्हेली. आतां जिवितांत विसब म्हळ्ळ्यासारके म्हजे अिश्टूय ना जातले काय ? दुसरो अिश्ट मेळत, पुण ह्या कासवासारको केन्नाच मेळचो ना ! अिश्टागतीचीं तीन लक्षणां सांगल्यांतः श्रेणिल्याक धीर दिता; खाजगी गजाली ताका सांगपाक मेळटात; आनी संकश्टांतल्यान तो सुटका करता. मंथरकासारको अिश्ट मेळूंक कठीण! म्हणटकीर देव म्हजेर एका फाटल्यान अेक संकश्टां धाडीत आसा काय कितें ? पयलीं आसपत गेली; मागीर सगळे आपले पेले सोडून गेले; अुपरांत देस सोडचो पडलो आनी आतां

मित्रवियोग! संकश्टांतल्यान वाटोवपी आनी मोगाचें दवरणें म्हणपासारकीं 'मित्र' हीं रत्नासारकीं दोन अक्षरां कोणें पुण निर्मिलीं काय ?'

अितल्यान दु:खान सामके व्याकूळ जाल्ले चित्रांग आनी ल्हानपाखो थंय आयले. हुंदरान तांका विचाल्लें, 'आरे, अशे रडत कित्तें बसल्यात ? आरे मंथरक दोळ्याआड पावचे आदींच ताचे सुटकेचो कित्तेंय पुण अुपाय काडूंक जाय. संकश्टांत पडटकीर जे पिरंगत बसतात तांची पिरंगण तितली वाडत वता. तिका लागून संकश्टां ना जायनात.'

तेन्ना कावळ्यान म्हळें – 'खरें आसा. म्हाका ह्या वेळार जो अुपाय येवजता तो हांव सांगतां. जे वाटेन तो दुश्ट पारधी घरा वता ते वाटेर तळ्याशेजरा मेरवान मेल्ल्यावरी पडून रावचें. हांव ताचे तकलेर बसून ल्हवान तोंची मारीत रावतां. म्हणटकीर मेरू खऱ्यानीच मेला अशें पारध्याक दिसतलें आनी कासवाक भुंयेर दवरून तो मेरवासरीं धांवतलो. अितल्यांत, हिरण्यका, तूं कासवासरी वच आनी ताचे पास तोडून अुडय, म्हणटकीर तो

मेकळो जावन तळ्यांत धांवतलो.'

'अिश्टा' मेरवान म्हळें - 'खऱ्यानीच, तुजी हिकमत बेस बरी आसा. कासव आतां सुटलोच म्हणूंक जाय. आमी आतां वावराक लागुया...'

आनी जें थारायलें तें तांणी केलें. तळ्याशेजरा वाटेर मेरू पडून रावलो. कावळो ताचे तकलेर बसून तोंची मारूंक लागलो. पारध्यान म्हळें- 'तो मेरू पासांतल्यान सुटून कसोबसो हांगा येवन पडलासो दिसता. कासवाक हांवे नीट बांदलाच. आतां ह्या मेरवाकूय घेवन वतां.'

अशें चितून त्या पारध्यान कासवाक खाला दवल्लो आनी तो मेरवाचे बगलेक धांवलो. तें पळोवन हुंदरान आपल्या वज्रासारक्या दांतानी कासवाचे पास तोडून उडयले. कासव सुटलो आनी शेजारच्या तळ्यांत धांवलो. तो पारधी म्हऱ्यांत येवचे आदींच मेरू अुठलो आनी नाच् जालो. कावळोय झाडार वचून बसलो.

मेरू गेल्लो पळोवन पारधी परतलो. फार्टी वळून पळयल्यार कासवूय ना. ताणें थंयच बसकण माल्ली – 'आरे नशिबा, बरो गुबगुबीत मेरू सांपडलेलो तोय गेलो. कासव मेळिल्लो तोय गेलो. भुकेन कासावीस जावन बायल भुरग्यांखातीर ह्या रानांत हांव विडविडटां...' अशें म्हणत ताणे घरचो मारग धल्लो.

पारधी पयस पावलो तें पळोवन कासव, कावळो, हुंदीर आनी मेरू मोटे खोशयेन एकठांय जमले आनी मोगान अेकामेकांक तांणी वेंगो माल्ल्यो. आपणालो पुनर्जल्मूच जाला अशें मानून मोटे खोशयेन ते गजाली करीत मुखावयले दीस सारूंक लागले.



संकश्टाच्या वेळार जो अिश्टागत सांबाळटा,
तोच खरो अिश्ट.

अिश्ट ह्या दोन अक्षरांत कितलें म्हुण अमृत भल्लां!
ताणे दगदग आनी संकश्टां ना जावन वतात!'

# सुभाशितां

- आपल्या घरा अिश्ट आयले कि जण अेकल्याक खोस जाता. बरे अिश्ट आनी मनासारकी बायल ही सदां सदांच अपरुपूच दिसतात.
- दोस्त आसले कि अवघड कामूय जावन वता. देखून जण अेकल्यान आपल्या सारके दोस्त मेळोवचे.
- अिश्टाक दिवप आनी अिश्टाकडल्यान घेवप, अिश्टाक गुपितां सांगप आनी विचारप, अिश्टाक जेवणाक आपोवप आनी तागेर जेवंक वचप, अशीं प्रितीचीं स लक्षणां सांगल्यांत. अुपकाराबगर मोग अुरना. देवलेगीत नवस आंगवण केलेबगर पावनात. कितेंय मेळटासर मोग अुरता. दूद सोंपलें कि पाड्डूक गायक सोडून वता.

# सुभाशितां

- कापूस वा चंदन थंड म्हणटात पुण तांची शितळसाण अिश्टाचे वेंगेचे शितळसाणेच्या सोळाव्या वांट्या इतलीय नासता. अिश्ट ह्या दोन अक्षरांत कितलें म्हुण अमृत भल्लां! ताणे दगदग आनी संकश्टां ना जावन वतात!
- संकश्टाच्या वेळार जो अिश्टागत सांबाळटा, तोच खरो अिश्ट.
- संकश्टांतल्यान सुटका जावपाखातीर शाण्यांनी इश्ट जोडचे. जाका अिश्ट नात, ताची संकश्टांतल्यान सुटका जायना.
- अिश्टागतीचीं तीन लक्षणां सांगल्यांत : शेणिल्याक धीर दिता; खाजगी गजाली ताका सांगपाक मेळटात; आनी संकश्टांतल्यान तो सुटका करता.